**कृशण–लिला**

(बाल–साहित्य)

**सौ. रेखा रामनाथ नायक**

**प्रकाशन क्र. :** 02



**प्रकाशक :**

श्री. रामनाथ विठ्ठल नायक

ईश्वर प्रकाशन

पिळर्ण–बार्देश – गोंय

**पयली उजवाडावणी :** 2010

**छापणावळ :**

सौ. माधुरी मिलींद तिंबले

स्वर्णमुद्रा प्रिंटस्,

माशेल – गोंय

**मोल :** रुपया 50/-

# प्रस्तावना

## कृष्ण-लिलांक येवकार!

'महाभारत' हें आमचें एक महाकाव्य! तातुंतली कृष्णाची व्यक्तिरेखा लक्षणीय स्वरूपाची. भारतीय मनांक ती वर्सांची वर्सां भुरळ घालीत आयल्या. कृष्णाचीं विविध रुपां आमकां पळोवपाक मेळटा. कोणांक कृष्णाचें भुरगेपण आवडटा, कोणांक तागेले राधा-गवळणीकडले प्रेमसंबंद ओड लायता, कोणाक कृष्णाचे शक्तिंत रस दिसता, कोणाक तागेली युद्धांतली शिश्टाय मानवता जाल्यार कोणांक ताणे भगवद्‌गितेंत अर्जूनाक सांगिल्ले तत्वज्ञान आवडटा.

पूण एक गजाल खरी. चडानचड लोकांनी ताका 'श्रीकृष्ण म्हणून देव मानला. आमच्या ल्हान-व्हड लेखकांनी आपआपल्या भाशांनी श्रीकृष्णाचेर असंख्य अश्यो 'हरिकथा' रचल्यात. केन्ना त्यो कवितेच्या रुपान, केन्ना कथांनी, कादंबऱ्यांनी, नाटकानी आनी सिनेमा तशेंच दूरदर्शन मालिकानी.

कोंकणीत बरोवपी नवोदित लेखिका श्रीमती रेखा रामनाथ नायक हाणी असोच एक यत्न हांगासर केलां. श्रीकृष्णाच्यो बाललिला हांगासर 'कृष्ण-लिला' ह्या नाटकुल्याच्या रुपान मांडल्यात. श्रीकृष्ण आनी तागेले राखणे-सवंगडी, तांचे खेळप, एकामेकाकडले इश्टागतीचे संबद, गवळणीचीं ताणी केल्ली फकाणां आनी मस्कऱ्यो ह्यो गजाली ल्हान ल्हान प्रसंगांतल्यान उब्यो केल्यात. श्रीकृष्ण मडक्यांतलें धंय चोरून खाता आनी जेदेवेळार गवळणी चोरयेची कागाळ घेवन यशोदामाईकडेन वतात तेन्ना, मडक्यांनी आसा तशें धंय तयार जाता असोय चमत्कारूय दाखयला. (आतांच्या भुरग्यांक प्रश्न पडूं येता, खाल्ल्याल्या धंयाच्या जाग्यार आसा तशें धंय निर्माण करपाची शक्त जर श्रीकृष्णाठांय आशिल्ली जाल्यार ताणे चमत्कारानूच जाय तितलें धंय निर्माण करून तेंच

खांव येतालें, चोरून खावपाची गरज नाशिल्ली.)

नाटकुल्यांत निमाणेकडेन श्रीकृष्णान कालीयाचें गर्वहरण केल्ल्याचो प्रसंग दाखोवन नाटकुलें सोंपयलां. श्रीकृष्णान कालियासारख्या दुश्टाचो नाश करून गांव सुखी केलो आनी श्रीकृष्ण खऱ्या अर्थान लोकांचो तारणहार देव थारलो असो संदेश निमाणेकडेन येता.

जे वर्सांची वर्सां श्रीकृष्णाक देव म्हण भजतात, हरिकथेंत रस घेतात त्या भक्तांक हें नाटकुलें नक्कीच आवडटलें हातूंन दुबाव ना.

आमच्या गोंयात जायतेकडेन 'गवळण-काल्या'ची परंपरा आसा. गवळण-काल्यांचे लेखन अशाच स्वरुपाचें आसता. पारंपारिक पद्धतीप्रमाण तें मराठीतल्यान आसतलें. हांगासर रेखाबायन तें कोंकणीतल्यान केल्ल्यान चड प्रभावी जालां आनी प्रेक्षकांक लागीचें दिसतलें. रेखाबायन त्याच उद्देश्यान तें बरयलां. तो उद्देश्य सफळ जांव अशी इत्सा प्रगट करतां. साहित्याच्या मळार तातूंत नाटकाच्या मळार रेखाबायक परजळीत फुडार आंवडेतां.

**– पुंडलीक नारायण नायक**

वळवय – गोंय

# मनोगत

## कृष्ण-लिला

कोंकणी मळार हांव म्हज्या लिखाणांतल्यान थोडो भोव वावर करीत आयलां. म्हाका ललीत लेख, कथा, कविता, नाटकां बरोवपाची खूब आवड. आनी ती आवड हांव जायत्या मासिकांनी आनी खबरापत्रांनी बरोवन पुरयत आयलां. म्हजें पयलें पुस्तक 'बगलांट' उजवाडाक हाडपाक म्हाका कोंकणी अकादेमीचो जायतो हातभार मेळ्ळो. तशेच जायत्या जेश्ठ नामनेच्या बरोवप्यांचो आनी ज्येश्ठ कवींचो सहयोग मेळ्ळो. तांचे लिखाण हांव उमेदीन वाचतां आनी म्हाका तांतल्यान स्फूर्तय मेळटा. आज हांव तरेतरेचे लिखाण करतां आनी करीत रावतलें असो सोपूत घेतां.

म्हाका देवाचो खूबच विश्वास आसा. हो संवसार घडोवप म्हळ्यार एक व्हड अजापूच. तें मनीस घडोवंक शकना. मनशाची लेगीत घडणूक देवानूच केली. पुण आज मनशान बऱ्या गजालींबरोबर वायटूय गजाली केल्या तें पळोवन वायट दिसता. समाजान वायट प्रवृत्ती ना करून सगळ्यांकडेन सदगुण आसचे अशें म्हज्या मनाक दिसता. देवान लेगीत जायते कश्ट काडले आनी सगळ्यांक सुख दिवपाक पळेलें. अश्यो कांय गजाली हांवे म्हज्या कथेनी आनी नाटकुल्यांनी बरोवन लोकांमुखार दवरल्या.

कृष्ण-लिला हें म्हजें पुस्तक हांवें ल्हान भुरग्यांच्या नाटकुल्यांच्या रुपान बरयलां. वचत थंय देवळानी काल्याचो उत्सव जाता आनी दुसऱ्या दिसा देवीमुखार एक गवळण-कालो दाखोवपाची प्रथा आसा. हें येवजून म्हज्या मनान कृष्ण-लिला हो गवळण कालो बरोवपाचें थारायलें. आनी एकदां म्हज्या मनान आयलें म्हणटकूच तें काम पुराय केल्याशिवाय हांव केन्नाच रावना. नोव्हेंबराच्या 23 तारखेर 2008 सालाक हांवे हें बरोवप पुराय केलें.

लिखाण पुराय करतकूच तें उजवाडाक हाडपाचे वेद लागतात आनी ह्या वर्सा

2010 न तो योग आयलो म्हणू येता.

म्हज्या ह्या पुस्तकाक नामनेचे ज्येष्ठ बरोवपी आनी कवी श्री. पुंडलीक नारायण नायक हाणी प्रस्तावना बरयल्या. म्हज्या बुन्यादीच्या लिखाणांक ताणींच म्हाका उमेद दिली म्हणू येता. ते कोकणीचे नामनेचे ज्येश्ठ बरोवपी, कवी आनी व्हड नाटककार. तांची नामना जगभर पाविल्ली आसा. तांची तोखणाय करपाक उतरां उणी पडटलीं अशें म्हाका दिसता. तांणी म्हजें लिखाण बारकायेन वाचलें आनी कांय सुधारणांय करपाक सांगल्यो म्हूण तें आनीकूय प्रभावीत जावूंक पावलें. म्हाका तांची प्रस्तावना मेळ्ळ्या म्हूण हांव तांचे काळजातल्यान उपकार मानतां आनी तांका देव बरें करूं म्हणटा.

निमाणेकडेन प्रकाशकाक आनी तशेच ज्यांनी ज्यांनी म्हाका हें पुस्तक उजवाडाक हाडूंक आदार दिला तांचे हांव मनांतल्यान उपकार मानतां. आनी देव बरें करूं म्हणटा.

**– सौ. रेखा रामनाथ नायक**

मार्रा–पिळर्ण

ॐ

देवी शांतादुर्गेमायेक

हांव ही

कृष्ण-लिला

काळजांतल्यान ओंपता

- रेखा

# कृष्ण - लिला

-: पात्रां :-

1. राधा
2. कृष्ण
3. यशोदा
4. पेंद्या
5. सखी
6. मोहिनी
7. गोप्या
8. मोक्या
9. पोक्या
10. सोक्या
11. सुखीराम
12. कालिया
13. नारद
14. भटजी
15. मृणमयी
16. तन्मयी
17. पल्लवी



# नांदी

जय देवी जय देवीं माये शांतादुर्गे
नमन तुका करतां तुजी भुरगी गे ॥

गायतां तुजी वर्णनां तुज्या पायी
दी आमकां दर्शन तुज्या ठायीं ॥ जय देवी॥

तुजें रूप पळोवन माये तान भूक न्हिवता
पावन करून घे आमची ही नाट्यमाला

तनां-मनांन भेटयतां तुका कृष्ण-लिला
ओंपतां आमी माये तुका फुलतीं-फुलां

हात जोडून करतां तुका नमन माये
यश दी आमकां तुज्या माचयेर ॥जय देवी॥



# कृष्ण–लिला
## (भितरल्यान प्रार्थना म्हुणू येता)

जय कृष्णा दयाळू देवा
भुरगीं आमी करतां तुजी सेवा
यश दी गावंक तुजी लिला
जय जय कृष्णा आमच्या देवा

देवा आमची कला तुज्या ठायीं
नमन करून ओंपता तुज्या पायीं

गोप–गोपी, राधा–माई वाट तुजी पाही
जय जय कृष्णा लिला तुज्यो गायी

## प्रवेश 1 लो

(वाटेवयलो पड्डो)

नारद : नारायण ! नारायण हे विश्वाच्या निर्मात्या तूं तर सगळेंच रचपी. ही कृष्ण-लिला पळोवपाचें भाग्य म्हाका मेळ्ळां. नारायण ! नारायण!

– पद –

तूंच रे रचनाकार, गोविंद रे
जाण तुका आसा सगळ्यांची रे ॥
मुखान उतर हाडी नासतना ठोस तुजो उपाय
पवित्रताय पळोवन करीना तूं कोणाक अपाय ॥
केदी व्हड तुजी कृष्ण – लिला
पळोवंक म्हाका तुवें मधु-रस दिला ॥
नारायण ! नारायण!

भटजी : (येता) (वाटेर) नारदमुनी तुमी गोकुळाचे वाटेर?

नारद : हय वत्सा, गोकुळान जायतें किदें घडपाचें आसा.

भटजी : नारदमुनी, तुमी सांगता तें घडटा म्हूण हांव जाणा. पुण अशें किदें घडपाचें आसा?

नारद : जे विधीलिखीत आसा, तें कोणूच टाळूंक शकना

भटजी : अशें किदें वायट, काय बरें घडपाचें आसा?

नारद : वत्सा, गोकुळान कृष्ण आसा. आनी तो आसा थंय सगळें बरेंच जातां. ज्यो वायट गजाली आसात ताजो तो नायनाट करता. वत्सा,

पळे तूं कृष्ण-लिला
नारायण! नारायण! (वता)

भटजी : (वयर पळेत) किदें घडपाचें आसा तें देवूच जाणा. ओम नमो श्री भगवती वासुदेवाय ॥2॥ (वता)

पड्डो

(वाटेवयलो पड्डो)
(मोक्या, सोक्या आनी पक्या चलतात. पेंद्या पासयो मारता)

पेंद्या : (दांडो घेवन पासयो मारता. इतल्यान मोक्या, सोक्या आनी पक्या खांद्यार हात घालून येतात.

मोक्या : (एकमेकांक) आरे पेंद्या हांगा कोणाची वाट पळेता?

सोक्या : बरोच चिंतेन सो दिसता

पक्या : आरे एकटो पडला तो. चल विचारूया ताका.

मोक्या : (फाट करून आशिल्ल्या पेंद्याच्या, खांद्याक हात लायत) पेंद्या, कसली चिंता जाल्या रे?

पेंद्या : मोक्या, सोक्या, पक्या, (एकदम खोश्येन) खंय आशिल्ले रे तुमी?

तिगूय : आमी मथुरेच्या बाजाराक गेल्ले. (तिगांच्याय हातानी रंगाच्यो पिश्व्यो आसता)

पेंद्या : मथुरेच्या बाजाराक ?

पक्या : हय रे, खरेंच.

पेंद्या : आरे थंय तर सखी आनी मोहिनी सदांच वतात.

मोक्या : आरे थंय मीरा आनी शेवंताय आशिल्लीं.

पक्या : दुर्गा आनी मंगलाय आशिल्लीं.

सोक्या : आरे आनीक कितल्योश्योच गवळणी थंय आशिल्ल्यो.

पेंद्या : तुमी कितें धंय हाडूंक गेल्ले? काय तांका पळोवंक गेल्ले?

तिगूय : पेंद्या दुबाव घेवं नाका आमचो.

पेंद्या : मागीर तुमी कित्याक गेल्ले?

मोक्या : पेंद्या फाल्यां किदें आसा ती खबर आसा तुका?

पेंद्या : कितें आसा?

सोक्या : आरे (सगळ्यांक) विसरलो रे विसरलो.

पक्या : पेंद्या फाल्यां रंगपंचमी. (पेंद्या याद जाल्ल्यावरी करता)

मोक्या : रंग उडोवंक जाय मरे?

सोक्या : पिचकारी मारूंक जाय मरे? (तिगूय हांसतात)

पेंद्या : हय तर. म्हाका कसो विसर पडलो तेंच हांव नकळं.

पक्या : पेंद्या तुका विसर पडला म्हूण तूं वयर सकयल जावं नाका.

मोक्या : तुजें काम आमी केलां.

सोक्या : हो पळे हो रंग तुका. आनी पिचकारी घरा हाडून दवरल्या.

पेंद्या : (रंग हातात घेता) चल चल तयारेक लागूया. (सगळे वतात)

## प्रवेश 2 रो

(राधा आनी सखी माचयेर येतात)

(वाटेवयलें दृश्य)

राधा : –पद–

यो गो सखी, वचूया आमी गोकुळान ॥2॥
नाचूया, गावया, खेळूया कान्हाच्या सांगातान
यो गो सखी, यो गो सखी ॥

कान्हाची मुरली कानान म्हज्या भरल्या
आयकून ताजें गीत काळीज म्हजें सुखावलां
यो गो सखी, यो गो सखी ॥

सखी : राधे, कृष्णांक खंय म्हुणून सोदूया आमी ?

राधा : सखी, कान्हा गोकुळान आसा. यशोदामाईन ताका आपले माडयेर बसयला. ती ताजी अपुरबाय करता.

सखी : राधे, तुका कशें कळ्ळें?

राधा : सखी, गोकुळान आनीक कोणाम्हऱ्यान कृष्ण आसतलो?

सखी : तेंय खरें तुजें. आनी ताजे संवगडे तर थंयच आसतले. तांचे तर कृष्णाशिवाय कशेंच जायना.

राधा : हय. कृष्णाशिवाय आमची सगळ्यांचीच जीण पुराय जावंक शकना.

चल आमीच थंय वचूया.

(पड्डो)

(वृंदावनाचो देखावो, गवळणी मडक्यो घेवन नाचतात. कृशण आनी राधाय नाचता)

– नाच –

कृशण : नाच नाच राधे उडय सगळ्याक रंग
रंगूच रंग उडोवन जावया आमी गुंग

सगळीं : तन न न न न त न न न न...
धा तिरकीती धा धा धा ॥1॥

राधा : दंया मडक्यो घेवन गवळणी नाचता
रुखा वेलींचेर सवण्याचो चिवचिवाट गाजता

सगळी : तन न न न न त न न न न ....
धा तिरकीती धा धा धा ॥2।

सगळीं : मळबा पोल्यार फुल्लां हांशें तांबडें तांबडें तांबडें शे

कृशण : दिसता ताका म्हज्या माथ्यार मोर पिस हें

सगळीं : त न न न न न त न न न न ....
धा तिरकीती धा धा धा ॥3॥

कृशण : घाल भूंयेक भोंवताडो करात भूंय रंगयाळी
मुरली घेवन रावला हांव पळे म्हजी निळी सांवली

सगळीं : तन न न न न त न न न न
धा तिरकिती धा धा धा ॥4॥

सगळीं : चला रंग उडोवया नाच गाण्यान गुंग जावया.
रुप्या–चान्न्यां लखलखाटान मना–मनांक भुलवया
तन न न न न त न न न न
धा तिरकीती धा धा धा ॥5।
(नाच सोंपता पड्डो पडटा)

(माचयेर, मृणमयी, तन्मयी आनी पल्लवी नाचाच्याच कपड्यांनी

आसात. तिगांय गजाली करतात)

मृण्मयी : (आपले भीतर) कृष्णा, आज तुज्या सांगातान म्हाका खूब बरें दिसलें. म्हजे जिणेन नवो रंग भरील्ल्यावरीं म्हज्या काळजाक दिसता. (दोळे धांपून) कृष्णा, तुजें सोबीत रुप पळेत रावन दिसता म्हाका.

तन्मयी : पल्लवी, मृण्मयी आपलेच भीतर खंय तरी शेणिल्लेभशेन दिसता.

पल्लवी : हय मगो तन्मयी. रंगपंचमीचो परिणाम सो दिसता.

तन्मयी : चल पळोवया.

पल्लवी : मृण्मयी, (मृण्मयीन दोळे धांपिल्ले आसता, पल्लवी ताका हात लावन जागयता)
आगो मृण्मयी (हालयता) खंय शेणलां तूं? कितें येवजीता?

मृण्मयी : तन्मयी, पल्लवी, तुमी हांगाच आसात?

तन्मयी : हय आमी हेदोळच्यान हांगाच आसा.

मृण्मयी : आगो पुण, इतलो वेळ म्हाका तुमी दिसूकूच ना कशीं?

पल्लवी : कशीं दिसतलीं? तूं तर तुज्या कसल्यातरी विचारांनी गूंग जालां.

तन्मयी : मृण्मयी, अशे कसले विचार आयल्या तुज्या मनांन?

पल्लवी : आनी त्या विचारांनी आमचो लेगीत विसर पडलां तुका. (रागार जाता)

मृण्मयी : (म्हऱ्यान वचून) पल्लवी, तुमचो विसर पडूंक ना म्हाका.

पल्लवी : मागीर सांग तर कितें येवजीतालें तें.

तन्मयी : हय. तुका सांगचेंच पडटलें.

मृण्मयी : पल्लवी, तन्मयी, तुमी तर म्हज्यो जिवा-भावाच्यो इश्टीणीं, तुमकां कांयच लिपोवन दवरना हांव. आज आमी रंगानी पोटभर खेळ्ळीं. आनी खेळटना आमच्या सांगाताक कृष्ण आशिल्लो.

तन्मयी : हय आशिल्लो. मागीर?

मृण्मयी : ताजो सांगात मेळ्ळील्याची खोस म्हाका खूबूच जाणवूंक लागली, आनी तांतूनूच हांव उरलें.

पल्लवी : खरेंच मृण्मयी, कृशणाचें सोबीत रुप घटकाभर पळेल्यार लेगीत मन

तृप्त जाता.

तन्मयी : हय. म्हाकाय आज खूब खोस जाली. तो सदांच आमचे बरोबर आसचो अशें म्हाका दिसता.

मृण्मयी : तें सुख आमच्या नशीबान ना तन्मयी. ताजें दर्शन सदांच राधेकूच जाता. मनांतल्यो गजाली एकामेकांक सांगच्याशिवाय तांका सुखच लागना खंय.

तन्मयी : तशें आसतय पुण म्हाका दिसता, कृष्णाक आमची सगळ्यांचीच इश्टागत जाय.

पल्लवी : हय. म्हुणूनूच तो वेळ काडून आमचेकडेन खेळूंक येता. ताका सगळींच जाय. आतां तूंच पळे, अजूनूय तुज्या म्हऱ्यान तो आशिल्लेवरी दिसता न्हय तुका?

मृण्मयी : हय मगो

पल्लवी : मागीर?

तन्मयी : हाजेवयल्यान ताका आमची सगळ्यांचीच अपुरबाय दिसता.

सखी : (येता) मृण्मयी, तन्मयी आनी पल्लवी, दिस सोंपत आयलो तरीय तुमी हांगाच?

मृण्मयी : (अजापान) सखी तूं हांगा पावलें?

सखी : सगळीं तुमची वाट पळेतात घरा.

तिगांय : सखी आमकां वेळाचें भानच उरलें ना (अजापान)

पल्लवी : सखी, तूं आमकां सोदीत हांगा पावलें?

तन्मयी : गजाली करतां करतां आमकां वेळूच कळ्ळोना.

मृण्मयी : चल सखी, या आमी घरा.

सखी : तन्मयी, पल्लवी तुमीय येयात सडसडीत.
(सगळींच वतात)

## प्रवेश 3 रो

(पड्डो वाटेचो, कृष्ण गोप्याबरोबर)

गोप्या : कृष्णा, आज खुबूच खोस जाल्या शी दिसता तुका.

कृष्ण : हय तर रे गोप्या. पक्यान सोक्यान आनी मोक्यान तिगांनीय भरपूर धंय खालें. तांचेबरोबर हांवेय खालें. आज आमी मजाच मजा केली.

गोप्या : (जिबल्यो चाटीत) किदें ? धंय खालें? आनी म्हजी याद जाली ना?

कृष्ण : (हांसता) आरे हांव जाणाच तूं अशें म्हणटलो म्हुणून. आरे तुका हांवें धंय बरोबर हाडलां. तुका दिनासतना कृष्णांक केन्ना रुचता? हें घे (दिता) तुका. (गोप्या खाता, तृप्त जाता)

गोप्या : कृष्णा, कितलो बरो रे तूं?

कृष्ण : गोप्या तोखणाय चड करू नाका.

गोप्या : कृष्णा, कर तूं फकणां. तुजी फकणांय म्हाका गोड लागता. (ल्हवूच) कृष्णा, आमी गड्यांक खेळूंक आपोवया?

कृष्ण : गोप्या (कुशीक आपयता, पयस पळोवन) असो यो. हे पळे सगळेच बागेन जमल्या. आमचीच वाट पळेतात. चलं तूं फुडें.

(गोप्या वता)

(पड्डो)

## प्रवेश 4 थो

(कृष्ण वृन्दावनान चलता. एकटोच आपलेभितर उलयता)

कृष्ण : ह्या रुखांक, वेलींक, फळांक आनी फुलांक पळोवन म्हजें मन दादोस जाता. हांव जाणां, हांव तुमच्या म्हऱ्यान पावल्याबरोबर तुमकां खोस जाता. (वेलींक, पानाक हांत लायता) थोडो वेळ हांव तुमची अपुरबाय करूंकूच हांगा येतां.

(चिंव चिंव असो आवाज जाता) सवण्यानो, तुमचों उलो म्हाका आयकूंक आयलो. तुमकां जाय तसलीं फळां खायात आनी तृप्त जायात. ह्या वृन्दावनान तुमकां कितेंच उणे पडचे ना. (गाय हांबेता)

हे गाये, तूं म्हाका कितें सांगूक सोदता तें कळ्ळें म्हाका. तुजो जीव तानेला. बस थंय, हांव तुका उदक दितां. (उदकाची धार पिचकारेन पयस पावयता) जालो न्हय तुजो जीव दादोस ? (पयस पळोवन) आतां कान किद्याक हालयता? (येवजून) हां म्हजी मुरली आयकन जाल्या? (चिंव चिंव आवाज) सवण्यानो तुमकांय आयकूंक जाय? (मात्सो येवजून) पुण सवण्यांनो, रुखानो म्हाका हांगां कोणतरी आमच्या मदीं नाशिल्ल्यावरी दिसता. गाये तूं म्हाका कितें सांगता तें कळ्ळें. म्हज्या मनाची जाणीव तुका आसा, हें हांव जाणा. म्हजी राधा म्हज्या म्हऱ्यान आसतकूच म्हाका सगळेंच मेळिल्ल्यावरी दिसता.

राधे, राधे, खंय आसा तूं?

हे रुख, ह्यो वेली, हीं सवर्णीं, ही गाय तुजी वाट पळेतात. तुजे सूर आनी म्हजे सूर तांका केन्नाशे आयकन जाल्या. (पयशील्यान राधा दिसता, राधा नाचता) ही पळे राधा नाचत हांगाच येता.

(वृन्दावनान राधा नाचता, इतल्यान कृष्ण येता.)

वा! वा! राधे

– पद –

हांव वाजयतां मुरली तूं तालार नाच

गो राधे नाच, नाच नाच तूं

पळे पळे गायो म्हज्यो कान हालयता

सुकर्णीं पळे झाडांचेर धोलतात

राधे गो राधे छमछुम नाच

धा तिरकीती धाधाधाधा तालावर नाच

राधा : कृष्णा ऽऽ मुरली तुजी गोड गोड

सुरानी नटयल्या, भुलयता मनाक

सुख शांती भेटयता काळजाक

कृष्ण : हांव वाजयतां मुरली तूं तालार नाच

गो राधे नाच, नाच नाच तूं

(पद सोंपता)

राधे, आज खुबूच खोश्येन दिसता तूं. गुपीत सांगशी?

राधा : कृष्णा, तूं म्हज्या म्हऱ्यान येवचे पयलींच तुज्या पावलांची जाग, म्हज्या काळजाक येता आनी हांव ती खोशी म्हज्या नाचगाण्यांनी उक्तायतां.

कृष्ण : आनी तुजें गीत म्हज्या मनांक भुलयत हांव तुज्या म्हऱ्यान पावतां.

– पद –

मधुर, गोड गीत तुजें

आयकून मन भुलता म्हजें

फुलाभशेन सोबीत, नाजूक रुप तुजें

पळोवन सदगुण तुजे मन भुलता म्हजें

राधा : – पद –

गोड सूर ओठार तुज्या

आयकन दिसता मनांक म्हज्या

भाल तुजें सौंदर्याची खाण

जशी माणकां मोतयांची जाण

कृष्ण : मधुर गोड गीत तुजें

राधा : गोड सूर ओठार तुज्या

कृष्णा : आयकून मन भुलता म्हजें

मधुर गोड गीत तुजें

राधा : हूं हूं हूं हूं...

(राधा आनी कृष्ण हातांत हात घालून वतात)

(पड्डो)

## प्रवेश 5 वो

(सगळे गोप खेळटात, पेंद्याच्या दोळ्यांक बांदलां आनी तो दुसऱ्यांक हात पयस करीत सोदता)

पेंद्या : (सोदता) गोप्या, मोक्या, (सोदीत फुडें फुडें वता) सोक्या खंय रे लिपल्या (इतल्यान पोक्याक धरता) हो पळे धरलो. (दोळ्यांचे सोडटा आनी पोक्याक बांदता आनी ताका घुंवडायत फुडें वता)

पोक्या : जाले तयार? आयलों हांव.

पेंद्या :हय, हय यो.

मोक्या : पोक्या, यो, असो यो (ताका चुकयता)

पोक्या : मोक्या, म्हाका फटयता. राव तुका धरतांच (सोदता, सोदता सोक्याक धरता) पळेलो मरे, धरलोच तुका.

सोक्या : आरे पोक्या, हांव मोक्या न्हय.

मोक्या : पळेले मरे? फटवलोच तूं.

पोक्या : हय, हय. दुसरेफावट पळोवया. (सोक्याचे दोळे बांदता) चल रे सोक्या.

सोक्या : (सोदता) खंय आसात रे, एकट्याचोय आवाज येना. (ल्हव, ल्हव वता) राव, राव धरतांच. (खांब्याक धरता).

मोक्या : (हांसता) आरे कोणाक धरता रे? खांब्यानी खेळटा?

सोक्या : हां. तूं हांगा आसा (तसो येता, इतल्यान मोक्या धावता आनी तेन्नाच तन्मयी आनी पल्लवी कळसुल्यो हांडीर घेवन येतना मोक्या तन्मयीक आपटता आनी तन्मयीची कळसूली सकयल पडटा. सगळेच भियेवन एकामेकांक पळेतात. सोक्या दोळे उघडटा.)

तन्मयी : (रागान) आरे, वाटेर किदें खेळटात रे! वाटेवयल्यान चलतल्यांक मात लेगीत पळेनात?

मोक्या : (कळसूली काडून दिता) तन्मयी माफ कर म्हाका. हांवे तुका पळेले ना. (बाकीचे तांकाच पळेतात) जाय जाल्यार शिक्षा कर म्हाका. (कान धरता आनी उठाबशी काडटा.)

पल्लवी : पुरो पुरो. पयलीं पळेनासतना येवन आपटता आनी मागीर माफी मागता. तरी बरें, दंयाची मडकी न्हय म्हुणून, नाजाल्यार.

पेंद्या : नाजाल्यार कितें जातलें आशिल्लें?

तन्मयी : मडकी फुटटली आशिल्ली आनी धंय...

पोक्या : सकयल वत्तलें आसलें.

सोक्या :आनी आमकां खावंक मेळटलें आसलें.

पल्लवी : सामकेच लंपट तुमी. दुसऱ्यांक त्रास जाता हांगा, आनी हांका फकणां सुचता.

मोक्या : तन्मयी, म्हजी चूक जाल्या. म्हाका माफ कर. हांव तुमची फकणां करीना.

दोगांय : बरें बरें चल, आज सोडटां तुका. (वतात)

पेंद्या : मोक्या, बरो मरे माफी मागता. वा! वा!

मोक्या : पेंद्या, चूक जाली तर खरी. कित्याक तांका आनी वयल्यान सतांव.

पोक्या : आरेरे! मोक्या, बरेच तांचे चुरचुरे दिसले तुका.

सोक्या : आवडली रे तुका तीं?

मोक्या : सोक्या पुरो कर तुजीं फकणां. (रागान पळेता)

पेंद्या : (समजावन) सोक्या, पुरो रे आतां. मोक्याक चुकीची जाणीव जाल्या तितली पुरो. चलात बरोच वेळ जालो. या आमी.

पोक्या : मोक्या, चल चल या आमी.

सोक्या : मोक्या, माफ कर रे बाबा म्हाका. (मोक्या फाटल्यान रागान पळेता आनी सोक्या फाटल्यान चलता. सगळे वतात.)

(वाटेवयलें दृश्य)

(सखी माथ्यार बुडकुलो घेवन चलता, फाटल्यान नकळत पेंद्या

सखीचीं फकणां करीत चलता)

सखी : (सावळी पळेता) कोण? म्हज्या फाटल्यान कोण तरी चलता.?
(फाटल्यान पळोवन, रागान)
पेंद्या तूं? म्हज्या फाटल्यान कित्याक?

पेंद्या : सखी, (लजत) तूं म्हाका खूब आवडटा.

सखी : (रागान) पेंद्या, जीब सांबाळून उलय

पेंद्या : सखी तुका राग येतकच तूं आनीकूय सुंदर दिसता. आज तूं अशीच म्हज्या म्हऱ्यान राव. हांव तुका पळेत बसतां.

सखी : (खुबूच राग येता, वचूंक सोदता, पेंद्या आडायता) पेंद्या म्हजी वाट सोड. नाजाल्यार....

पेंद्या : नाजाल्यार कितें करशी?

सखी : (आड्डता) कृष्णा, कृष्णा वांचय म्हाका.

मोक्या, पोक्याः (धांवत येतात) किदें जालां सखी?

सखी : (रागान पळेता)

पेंद्या : आरे तुमकां एक गोड खबर सांगपाची आसा सखी.

मोक्या : कसली गोड खबर?

पोक्या : सांग सांग पेंद्या

पेंद्या : सखी सांगतली.

दोगूय : सखी, सांग बेगीन.

सखी : कुशीक सरात. म्हाका तुमकां कांयच सांगपाचें ना. तुमी सगळे एकाच माळेचे मणी.

पेंद्या : सखी सांग (हातवारें करता, सखीक कुरवो करता.)

सखी : (रागान) पेंद्या (तोंडार मारता) म्हजे वाटेर आयल्यार हेंच. (वता)

पेंद्या : (पोलो सांसपीत) सखी तुजें थापट लेगीत गोड लागलें म्हाका.

मोक्या/पोक्याः (चुरचुरून) पेंद्या मनाक लावन घेव नाका. चल या आमी. (वतात) (पड्डो)

## प्रवेश 6 वो

(सगळे गोप जमल्या, कृष्ण एका उंचावयल्या फातरार बसला)

पेंद्या : कृष्णा आमकां सांगनासतना तूं हांगा आयलो?

सोक्या : आमी तुका सगळ्याक सोदतां.

मोक्या : दंय खावन आमी सगळे तृप्त जाले. आनी म्हणटा म्हणसर तूं आमकां दोळ्यांमुखार दिसना जालो.

पोक्या : आमी भियेले.

कृष्ण : (उमेदीन हांसता (वृंदावनान कृष्ण संवगड्यांमुखार गायता)

– पद –

गड्यांनो खेळूया आमी सगळे
रावूं नाकात तुमी निर्शेवन वेगळे ॥1॥
वृंदावन सोबीत सजलां फुलां फुलांनी
लखलखता दिको रंगीत किरणानी ॥
खोशी मनोवया दूधा-दह्याच्या गोडशाची
हासून, नाचून मजा करूया॥ गड्यानो ॥

गोप्या : पक्या तुका किदें दिसलें तें सांग रे.

सोक्या : आमकां दिसलें कृष्णा, तूं यमुनेन पेवंक गेलो म्हूण.

कृष्ण : (हांसता) वा ! वा! हांव थंय वच्चे पयलींच तुका सपन पडलें म्हणपाचें. तेय बी तूं जागो आसतना. पुण तुजें हें स्वप्न हांव खरें करून दाखयतां.

मोक्या : म्हळ्यार? तूं पेवंक वचपाचो आसा?

कृष्ण : आरे सोक्या तूं खुबूच उलयता. चल आतां आमी सगळेच यमुनेच्या वाठारान खेळूंक या.

पोक्या : चलात रे सगळे.

कृष्ण : पोक्या, बाल तोंडको घे बरोबर. खूब दिस जाले बाल – तोंडक्यानी खेळ्ळ्यार.

पेंद्या : कृश्णा, आज आमी बाल – तोंडक्यानी खेळचे न्हय.

कृष्ण : कित्याक रे? बाल यमुनेन पडत म्हूण! आरे तूं भियेला कित्याक बाल पडल्यार हांव हाडून दिता तुका.

पेंद्या : कृष्णा, तूं बाल ओडीक मारतना पडटाच तें यमुनेन. कृष्णा, (लाडान) आनी कसलोय खेळ खेळुया.

कृष्ण : पेंद्या, आज म्हाका बाल – तोंडक्यानूच खेळपाची लहर आयल्या. चलात रे कोण येतात ते येयात.

(कृश्णाबरोबर गोप्या आनी पोक्या वतात)

पड्डो

(फाटल्यान पेंद्या, मोक्या आनी सोक्या माथ्यार हात घेवन बसल्या.)

पेंद्या : मोक्या आतां जातलें कशें रे?

मोक्या : तेंच तर हांव येवजीतां.

सोक्या : कोण तरी समजायतलो कृष्णांक. पुण पेंद्या तूं कित्याक इतलो भियेला?

पेंद्या : (चिंतेस्त) आरे हांवें म्हज्या दोळ्यांनी पळेला ताका.

मोक्या : कोणाक रे?

सोक्या : तुका खबर ना?

मोक्या : ना. कोण आसा थंय?

सोक्या : यमुनेन कालिया येवन रावला.

मोक्या : (एकदम उचंबळ जावन) किदें? कालिया? (भियेता)

पेंद्या : तुका आयकुनूच भंय दिसलो मरे ? हांवे म्हज्या दोळ्यानी पळेला. आनी त्याखातीर हांव कृष्णाक थंय वचूं नाका म्हणटालों.

मोक्या : पुण तो आमकां कितें करूंक शकता?

पेंद्या : तो कोणाकूच न्हयेन देवूंक दिना. सखीच्या पाड्याक न्हाणोवंक व्हेल्लो थंय. ताका तो चाबलो.

सोक्या : तोंडातल्यान फेस काडीत तो मेलो.

मोक्या : आवयस!

पेंद्या : गोजूर्ली म्हसरांय थंय पाविल्लीं.

सोक्या : पुण वांचली. कालियाक राग खूब येता खंय.

पेंद्या : कृष्णाचें बाल ताजेर पडत जाल्यार माणसुकी आसा?

मोक्या : आतां कोण समजायतलो कृष्णांक. ते थंय पावले आसतले. पेंद्या चल आमी आमच्या कृष्णांक कशेय तरेन समजावया. (याद जावन) हें पळे सोक्या तूं आनी पेंद्या फुडें सरात, हांव येता फाटल्यान. (पेंद्या आनी सोक्या वतात)

(मोक्या तकलेर हात धरून पासयो मारता, इतल्यान पयशील्यान सखीक आनी मोहिनीक पळोवन कुशीक वचून रावता. सखी, मोहिनी येतात)

मोहिनी : सखी, कालच्यान म्हाका कृष्ण दिश्टीच पडूंक ना.

सखी : दिश्टी पडूंक ना तेंच बरें.

मोहिनी : कित्याक? अशें किदें केलें ताणें?

सखी : किदें केलें?

– पद –

किदें सांगू तुका
दुख भरलां म्हाका
जाल्या रिती धंया मडकी

मारल्या म्हाका ताजी भिरकी
कशें सोसूं आतां हांव
म्हुणू नज जालें तें जांव

सखी : म्हजी धंयाची मडकी रिकामी करून दवरल्या ताणें.

मोहिनी : कितें? धंय खावंक तुमगेर आयलो तो?

सखी : तो केन्ना कसो पावलो ते म्हाका खबर ना.

मोहिनी : आगो पुण, ताणेंच खालां कित्यावयल्यान?

सखी : आनी कोण खातलो?

मोहिनी : ताजे ते लंपट गडे आसात, ताणीं खालां जायत. ते तर ताजी फाट सोडीनात. जणूं काय ताणीं ताका विकतोच घेतला.

सखी : हय गो बाये, ताणींच ताका संवय केल्या, म्हुणून तो खोड्याळो जाला. ताज्यो खोडी हांव यशोदामाईकडेन भायर काडटां.

मोहिनी : तशें जाल्यार वेळ किद्याक? हांव म्हजी मडकी धांपून येता. चल आमी दोगांय या माईकडेन.
(वतात)

मोक्या : (कुशीक रावून आयकतालो, तो फुडें येता) आरे म्हज्या बाबा. हीं दोगांय माईकडेन फिर्याद घेवन गेलीं. एकेवटन माई रागार जातली कृष्णाचेर ही चिंता, जाल्यार, दुसरेवटेन कृष्ण यमुनेन देवंत हाची चिंता. देवा आतां कितें करूं? ही खबर कोणाक सांगू? (हेवटेन तेवटेन भोंवता, चितीत रावता) (उडी मारून) युक्त सुचली. राधेक सांगीत जाल्यार हो प्रश्न सुट्टा. राधेचें उतर कृष्ण केन्नाच मोडीना. चल राधा बागेन खंय आसा ती पळोवया.
(वता)

– पड्डो –

****

(यशोदेचें घर, यशोदा कृष्णाची वाट पळेता)

यशोदा : आज म्हजो लल्ला खंय पावलो? (हेवटेन, तेवटेन पयस नदर पावयता) सुखीराम ऽऽ लल्ला खंय गेला?

सुखीराम : (यशोदेचो नोकर, भायर येवन) माई, तो सकाळी गोप्याबरोबर गेल्लो. अजून येवंक ना.

यशोदा : चल, बागेन वचून पळे ताका.

सुखीराम : बरें माई (वता)

(इतल्यान सखी आनी मोहिनी हांडीर मडक्यो धरून येतात, मडक्यो सकयल दवरतात)

दोगांय : माई (माईच्या पायांकडेन) आमची त्रासांतली सुटका कर.

सखी : माई (रडटा)

यशोदा : आगो सखी, मोहिनी अशीं रडत कित्याक आयल्यां तुमी?

सखी : माई, कृष्णान आमचें धंय खालां.

मोहिनी : माई, पयलीं म्हाका सखीचें फट दिसलें. पुण हांव घरा वच जाल्यार म्हजीय मडकी रिकामी मेळ्ळी.

यशोदा : आगे बाये. हो पोर बरोच मस्तो जाला तर. दिसान दिस चडूच करूंक लागलो. येवनी ताका.

(इतल्यान कृष्ण हांसत माई म्हऱ्यान येवन रावता)

कृष्ण : (हांसत) माई

यशोदा : लल्ला (रागान) इतलो वेळ खंय गेल्लो?

कृष्ण : माई, हांव बागेनूच आशिल्लों. म्हज्या संवगड्यांबरोबर आतां हांव खेळूंक वता म्हूण सांगूक आयिल्लों.

यशोदा : आनी सखी, मोहिनी तुजी कागाळ घेवन आयल्यां. तुवें तांका त्रास दिला मरे?

यशोदा : – पद –

तुजी मस्ती चड जाल्या लल्ला
कागाळ्यो आतां घरा पावल्या

चिंता तुवें वाडयली म्हजी
विसव दिवंक तूं ना राजी
कसो तुका समजाव हांव
उपकार करून बरें दवर नांव.

कृष्ण : माई, (म्हऱ्यान वचून) हांवें तांका त्रास कसलोच दिवंक ना. आमकां धंय खूब आवडटा, म्हूण आमी सगळ्यानी तांच्या मडक्यांतलें धंय थोडें थोडें खालें.

यशोदा : आरे पुण, तो तांचो धंदो. तीं मथुरेच्या बाजाराक तें धंय विकूंक व्हरतात. आतां तांका पयशे कशे मेळटले?

कृष्ण : तांका दुखी जावपाचें कांयच कारण ना. सखी, मोहिनी तुमी तुमच्यो मडक्यो घेवन बाजारान वचात.

सखी : माई, ह्यो रिकाम्यो मडक्यो घेवन आमी बाजारान कशीं वतलीं? (दोगांय मडक्यो दाखोवंक उखलूंक वतात, कृष्ण यशोदेच्या पदराक धरून ल्हवूच हांसता)
पळे माई, (मडकेन पळोवन, अजापान) किदें? ही मडकी भरील्ली आसा.

मोहिनी : (मडकेन पळोवन) आरेच्या! म्हजीय मडकी भरील्ली आसा. कसलें अजाप हें?

माई : सखी, मोहिनी, तुमच्यो मडक्यो भरील्ल्योच आसा न्हंय? ओगीच म्हज्या लल्लाचेर आळ घालो.

सखी : माई, हें अजाप कृष्णानूच केलां. कृष्णा माफ कर म्हाका.

मोहिनी : हय कृष्णा म्हाकाय माफ कर.

कृष्ण : सखी, मोहिनी, हांसून खेळून फकणां करून जीण जगूंक जाय. आयच्यान चिंता सोडात. चला तुमचें धंय बाजारान व्हरात.

दोगांय : येतां माई (वतात हांडीर मडक्यो घेवन)

माई : कृष्णा, म्हज्या लल्ला, ओगीच रागार जालीं हांव तुजेर. (हाताक

धरून) यो म्हज्या शाण्या, भूक लागल्या आसतली तुका. चल पोटभर खा, आनी मागीर वच खेळूंक. म्हजो अपुरबायेचोच तो.

कृष्ण : (माईक घट धरता, ती अपुरबाय करता)

पड्डो

(मथुरेच्या बाजारांतल्यान चडशें सामान घेवन खोश्येन सखी आनी मोहिनी उलयत चलतात.)

मोहिनी : सखी आज आमकां बरोच बाजार करूंक मेळ्ळो न्हंय.

सखी : सगळी कृपा ताजी. मोहिनी, कृष्णान केदें व्हड अजाप केलें.

मोहिनी : हय, व्हड अजापूच. हांव परत परत तेंच येवजीतां. धंय सोपिल्लें तें ताणें कशें भरलें तेंच कळना. कोणूच हें करूंक शकना.

सखी : तें फक्त देवूच करूंक शकता. आनी हाजेवयल्यान कृष्ण देव म्हूण कळटा.

मोहिनी : सखी, आमी ओगीच कृष्णाचो दुबाव घेतलो. केदी व्हड चूक केली आमी.

सखी : आमकां माफ करतलो तो मोहिनी?

मोहिनी : सखी, आमकां ताणें माफ केलां.

सखी : कित्यावयल्यान?

मोहिनी : सखी, आमच्यो धंयाच्यो मडक्यो रिकाम्यो आशिल्ल्यो, ताणें त्यो भरल्यो, हे अजाप ताणें कोणाखातीर केलें?

सखी : आयलें लक्षान म्हज्या. आमकां कसलेंच नुकसान जावंचें न्हंय म्हूण ताणें पळेलें. हाजेवयल्यान ताणें आमकां तेन्नाच माफ केलें.

मोहिनी : आनी सखी, ताणें तशें केलें म्हुणूनूच आमकां ताजें सत्य कळ्ळें.

सखी : ताजें खरें दर्शन मेळ्ळें.

मोहिनी : सखी खरेंच, भाग्यवान गो आमी.

(पड्डो पडटा)

## प्रवेश 7 वो

(वृंदावनान)

राधा : – पद –

कृष्णा कृष्णा, खंय सोदूं तुका
असो तिश्टावन भरता दोळ्यान दुकां
वाट पळोवंक भोंवता मधुवनान
दर्शन केन्ना दितलो म्हाका नंदनवनान
कष्णा कृष्णा यो रे बेगीन, थार ना म्हाका
वाट पळोवन थकले रे तिश्टांव नाका म्हाका.

(पद सोंपता)

(दोळे बंद करून उलयता)

कृष्णा तुजी वाट पळोवन थकले रे हांव. तुज्या दर्शनाशिवाय ह्या राधेचो एकूय दिस वचना. तूं म्हळ्यार म्हजें विश्व. म्हज्या प्रत्येक श्वासान तूं आसा. कृष्णा, कान्हा, म्हजी आनीक तूं परीक्षा घेवं नाका.

मोक्या : (राधेक पळोवन, थंयच थांबता) (आपले भितर) होच वेळ बरो आसा. राधेक सांगल्यार बरें. तीच कृष्णाक समजावंक शकता. (उघड) राधे, राधे.

राधा : (दोळे उघडटा) (अजापान) मोक्या तूं? आनी असो भियेला कित्याक?

मोक्या : राधे, कशें. सांगू तुका?

राधा :किदें जालां?

मोक्या : कृष्ण संकटान आसा. आनी तुवें ताका समजायत जाल्यार हें संकट टळूंक शकता.

राधा : कितें? कृष्ण, आनी संकटान! अशें जांवकूच शकना.

मोक्या : अशेंच जालां. तो यमुनेकडेन गेला आनी यमुनेन कालिया बसला.

राधा : कितें?

मोक्या : हय. कालिया कोणाकूच सोडीना. सगळ्या गवळणीच्या गोरवांक ताणें सतायल्यां. सगळ्यांचीच जीण संकटान आसा. राधे, कृष्ण कोणाचेंच आयकनासतना थंय गेला.

राधा : तशें जाल्यार आमी थंय वचूया. तूं गोप्याक यशोदामाईकडेन धाड आनी तिका ही खबर दी. चल या. (वतात)

पड्डो

## प्रवेश 8 वो

(सगळे गोप एकठांय जाल्या, पयस कृष्ण यमुनेन कालीयाकडेन युद्ध करता.)

गोप्या : (रडत) पेंद्या कृष्णाक वांचय.

पेंद्या : गोप्या, पक्ष्या, मोक्या म्हज्या कृष्णांक वांचयात रे. पळे तो कालीयाकडेन झगडटा.

मोक्या : कालीया ताका कसोच आयकना पळे.

सोक्या : तो खुबूच गर्वीश्ट.

राधा : (दुसऱ्यो गवळणी आनी राधा येतात) सखी हें हांव कितें पळेतां?

सखी : राधे, राधे, धीर धर.

राधा : मोहिनी पळे, कृष्णान कालीयाक घट्ट धरला.

मोहिनी : आवयस, आमच्या कृष्णांक वांचयात रे कोणूय तरी.

राधा : (पयशील्यान आवाज पावयल्ल्यावरी) कृष्णा, कृष्णा तूं हें कितें करता.

(राधेक भास जाता, कृष्ण भितरल्यान उलयता, राधेन दोळे धांपल्या.)

कृष्ण : राधे, आज तुका मेळूंक हांव आयलो ना म्हूण माफ कर. भियोवपासारकें कांयच ना. ह्या कालियान म्हज्या इश्टांक आनी इश्टीणींक खुबूच नुकसान केलां. ताका चड गर्व जालां. आनी ताजें गर्वहरण करप चड गरजेचें. तशें

केल्यार गांव सुखी जातलो. तूं निर्धास्त राव. आयलों हांव रोखडोच.

सखी : राधे, राधे, दोळे उघड. (यशोदामाई आयल्या) कृष्णाक समजाय. पळे तेवटेन माई रडटा.

राधा : माई, कृष्ण एक व्हड अवतार. ताका कोण कांय करचो ना तो कालियाचें गर्वहरण करपाक गेला. पळे.

पेंद्या : गड्यानो, आमी देवाचो धावो करूया. सगळे जाण दोळे धांपून देवाचें नामस्मरण करा.

(सगळे दोळे धांपतात, आनी तकल्यो जपाच्या तालार बागयतात.)

(फाटलो पड्डो उघडटा, न्हंयचें दृश्य कालीयाच्यो आनी कृशणाच्यो लडामोडी चल्ल्या)

कृष्ण : कालीया, तूं बरेभशेन शरण यो, नाजाल्यार तुका दवरचोना हांव.

कालिया : कृष्णा, तूं केदो आनी हांव केदो तें खबर आसा मरे तुका?

कृष्ण : कालिया, तुका म्हज्या शक्तीची कल्पना ना. तुज्या शक्तीचें बरेंच गर्व आसा तें म्हाका दिसता.

कालिया : हय, हय. तुज्यापरस कितल्याशाच पटीनी म्हाका बळ चड आसा. तुजे नदरेक आयलांच आसतलें. म्हाका भियेवन, लोक सगळे यमुना न्हंय सोडपाक तयार जाल्या.

कृष्ण : म्हुणूनूच तुवें गवळणींच्या गोरवांक त्रास दिवन तुजे शक्ती प्रदर्शन केलां तर!

कालिया : हय हय. हांव कोणाकूच हे न्हंयेन लागी धरचो ना.

कृष्ण : तूं कोण, केन्नाचो रे? हे न्हयेन तर ह्या सगळ्या वाठाराचो उद्दार केला. तूं हांगा येवन तुजें राज्य जातलें शे दिसता

तुका?

कालिया : हय तर. आतांच तुका कळटलें. म्हज्या बळाचो प्रत्यक्ष प्रत्यय येतलो. (झटापटी जाता, उदक हालता) अब्बा, बरोच घट आसा मरे तूं (परत नेट हाडून) काय नजों, तुका आडवो करतांच.

कृष्ण : (कालियाचेर उबो रावता, तितलो, तितलो कालीया खरशेता.)

कालीया आतां काड म्हाका सकयल. (कालीया हरता, शरण येता)

कालिया : कृष्णा (कासावीस जावन) कृष्णा पायां पडटां तुका. सोड म्हाका. म्हाका तुजे शक्तीचो अणभव आयलो. तुजेफुडें म्हजी शक्ती कित्याक उपकरना. देवा, माफ कर म्हाका.

कृष्ण : आनीक गर्व करतलो? तुका शक्ती दिल्या ती लोकांक पिडूंक न्हय.

कालिया : कळ्ळें म्हाका. म्हजो जीव वचपाक पावला. देवा जीवदान दी म्हाका.

कृष्ण : हाजेफुडें तूं कोणाकूच त्रास दिवचो ना. सगळ्यांच्यो वाटो मेकळ्यो करून सरळ दर्यान वतलो.

कालिया : देवा म्हाका सगळें मान्य आसा. तुज्या पायांकडेन म्हाका आदार दी. देवा तुजो जयजयकार करतां हांव.

सगळे : भगवान कृष्ण महाराज की जय.

राधा : कृष्णा, म्हज्या देवा केदें व्हड काम तुवें केलें. गांवच्या लोकांचे संकट तुवें निवारण केलें. कृष्णा, आमकां तुजें व्हड रुप पळोवपाची इत्सा आसा. पुराय करशी?

कृष्ण : राधे, तुवें मागतकूच, हांवें किदें दिलें ना म्हूण आसा! आतांच तुजी इत्सा पुराय करतां.

(कृशण व्हड दिसता, चकचकता)

सगळे : – पद –

जय जय कृष्णा तूंच आमचो भगवान ॥2॥
केदी व्हड तुजी शक्ती माया
सगळ्यांक दिता तूं सुख छाया
कालिया मर्दन केलें तुवें
चिंता मिटयली सगळ्यांची देवा
जय जय कृश्णा तूंच आमचो भगवान

– पड्डो–

(नारद आनी भटजी माचयेर येतात.)

नारद : नारायण! नारायण! वत्सा पळेली तुवें कृष्ण लिला?

भटजी : नारदमुनी, हांव तुमकां साश्टांग नमस्कार करतां. (न्हिदून पायां पडटा) तुमी सांगिल्लें तेंच घडलें. केदें व्हड अजाप!

नारद : कृष्ण देवाकडेन केदी व्हड शक्त आसा तें कळ्ळें तुका वत्सा?

भटजी : नारदमुनी, कळ्ळेंच न्हंय, तर कृष्णाची शक्त हांवें अणभवली. आनी आतां हें पळेयात (कृष्णाकडेन बोट दाखोवन) दोळ्यांमुखार केदें व्हड अजाप पळेतां हांव. म्हाका हें सपनूच कशें दिसता.

नारद : वत्सा, हें स्वप्न न्हय. तूं दोळ्यांनी पळेता तें खरेंच आसा. राधेची इत्सा पुराय करपाक कृष्णान आपलें व्हड रुप दाखयलां. आनी राधेच्या निमतान आमकां तें पळोवंक मेळ्ळां.

भटजी : खरेंच नारदमुनी. नशीब बरें म्हूण आमकां भगवान कृष्णाचें

दर्शन मेळ्ळें. कृष्णा, देवा तुवें आमकां तृप्त केले. तुजी सेवा करूंक आमकां तुज्या पायाकडेन आदार दी. (दोळे धापून नमस्कार न्हिदून करता)

नारद : नारायण! नारायण! (कृष्णाक नमस्कार करता) हे देवकी-नंदन कृष्णा, तुका म्हजो काळजांतल्यान नमस्कार.

कृष्ण : (व्हड दिसता आनी सगळ्यांक आशीर्वाद दिता. ताज्या हातार तरेतरेच्यो लायटी दिसतात, तकले फाटल्यान वाटकुळ्योच लायटी दिसतात आनी तांतून कृष्ण चकचकीत दिसता)

सगळे : भगवान कृष्ण महाराज की जय.
कृष्णाचो जयजयकार जांव
राधे-कृष्ण, गोपाळ-कृष्ण, राधे-कृष्ण, गोपाळ-कृष्ण

पड्डो पडटा



## श्री. रेखा रामनाथ नायक

हायस्कूलच्यो शिक्षिका, नाटककार,
आकाशवाणी कलाकार
शिक्षण : एम. ए. मेरेन

कथा, कविता, ललित लेख, नाटकुली बरोवन उजवाडायल्यां. बंगलाट हे पुस्तक २००८ सालांत प्रकाशीत जालां. तशेंच 'उमाळे' हें कवितेंचे पुस्तक प्रकाशीत जालां. बिम्ब, कोंकण टायम्स मासिकानी कथा, कविता, लेख उजवाडाक येतात. तशेंच 'सुनापरान्त' आनी 'गोमंतक' ह्या दिसाळ्यांनी कविता आनी लेख उजवाडाक येतात.